ठेठ कोंकणींत रचल्ले पाळणेगीत आज मेरेन सोदून केवल एक प्राप्त जाला. तें श्री रामाचे भुरगेपणाचेर आधारून आसाः

जो जो रामा
दशरथाचे पुत्रा... (जो)
रामा दवर्ल्लो पाळ्यान्तु,
कौसल्या दवरता हातान्तु,
सन्तोषु पांवता मनान्तु... (जो)
पाळ्यां दवरलो रामाक,
जूं काडताय पाळ्याक
फोव दिताय चेरडुवांक... (जो)

ह्या शिवाय भुरग्यांक खुश करचे खातीर गायन करचीं गीतां आसात. गीतांचे एक दोन नमूने सकल दिल्यातः

१. धल पुता धल
धतां धतां भागलो,
केकीं खावंक लागलो,
केकीं जालीं गोड
पुतान खेलीं देड
आके दिल्लो कुटूको
कोणा फाटीर डुमको?
आके फाटीर डुमको.

२. आपो नन्दो तुपो नन्दो
तुपान्तुल्यो रोंटयो खायाय
ओ नन्दो तो नन्दो खान्द्यार्यो
गज वज मल्लिके मल्लिके
पीट वाटून कालोव्या कालोव्या
पिटां पळ्ळे वरोडु वरोडु.

म्हान्ताराय्ये करोड्डु करोड्डु

म्हंतार गेल्ली रानां रानां

पुतु जालो काना काना

आयज कोंकणस्थ जनं गोंयां भायर केरळ, कर्नाटक आनी महाराष्ट्र ह्या वाटारांत पातळून आसा. विंगड विंगड वाठराचे कोंकणी सामाजांत लोकगीत प्रचारार आसात. पुण ही बहुमूल्य संपत्ति एकटाव करन सांवाळून दवरपाचो प्रयत्न इत:पर्यंत जालो ना. हां, एक एक वाठरांत चड उणे यत्न जाल्यात व्हय. आनी आजय चालू आसात. परन्तु अशी करचान काम पुरा जायना. हें समग्र धन सुंदर रूपान राखून दवरची पद्धति घालूंक जाय. एक एक वाटारांतलीं लोंकगीतां एकटावन लोंकगीत संग्रह उजवाडावंक जाय. अशी केल्यार एक एक वाटारांतलीं लोकगीतां आमचे मुखार येतलीं. त्या उपरांत एक एक वाटारांतले लोकगीतांचो अभ्यास करून समस्त कोंकणी साहित्याचो लोंकगीत संग्रह तयार करूक जाय. अशी केल्ले मात्रान कोंकणी साहित्याचो आनी संस्कृतायेचो एक मोलादीक विभागाचो विकास जावन आमचे आमकां दायजाचे महत्व कळतलें.

आर. के. राव

## मांडावळ



## भक्ति गीतां



## खेळा गीतां (Kindergarten Songs)



## पाळणे गीतां (Lullabies)

# 1. वळार

| | | |
|---|---|---|
| रुकमीणी | : | वाटेन वतल्या, वाटेचे कळारा, |
| | | रुकमीणी कुळारां बोलावीलां |
| वळार | : | हांव नेण वाट, हांव नेण तींट, |
| | | हांव नेण रुकमीणी मायी-बाप.* |
| रुकमीणी | : | एक धारीं आंवा एक धारीं चम्पा, |
| | | तें घर रुकमीणी मायी-बापा. |

(वळार रुकमीणीचे कुळाराक पावंता. थंय तिजे बापसूक मांगता)

| | | |
|---|---|---|
| | | हांतुण मांचार पळ्ळेल्या रुकमीणीचे वापसू. |
| | | रुकमीणी धूवेन बोलां सांगलां. |
| वापा | : | खांडि भरी हाडीन, कुंभेरी मोडीन, |
| | | त्यावेळि त्या रुकमीणी धूवे बोलावीन. |
| कळार | : | खाटल मांचयार वैसल्ले, रुकमीणीचे आवमू, |
| | | रुकमीणी धुवेन, बोलां सांगलां. |
| आवसु | : | खांडि भरी हाडान, कुंभेरी मोडीन, |
| | | त्यावेळि ते रुकमीणी धूवे बोलावीन. |
| वळार | : | गुल वावल्यानि खेळतल्ले, रुकमीणीचे भयणी, |
| | | रुकमीणी आकान वोलां सांगलां. |
| भयणि | : | गुलवावल्यां हाडन्ती, खेळ जो खेळन्ती, |
| | | त्यावेळ त्या रुकमीणि भयणी वोलावन्नीं. |
| वळार | : | भाणमीर पाटां करतल्ले, रुकमीणीचे भावजे, |
| | | रुकमीणी नणन्देन, वोलां सांगलां. |
| भावज | : | एकि मडकी चडयन, एकि मडकी देवयन, |
| | | त्यावळि त्या रुकमीणी नणन्देक वोलावीन. |

---

*कुलगोत्र

वळार : आंगडविंगड वतल्या, रुकमीणीचे भावा,
रुकमीणी भयणीन बोलां सांगलां,

भाउ : हाड्यारे गंगाळं, न्हाणियां भरया पाणी,
आपण वतां घरीं रुकमीणी.

(दूर सून येवंचे भावाक रुकमीणीन पळयलो)

दूरां जा थाकूनु बंधु जो देखीला,
पाटु जो सोडीला सुवर्णाचो.
एक हार्ती तांबिया, एक हार्ती पाटवा,
पाय धुयता वंधुवां रुकमीणी.
पाय धुयतां पाय धुयतां, दोऴयां आयलीं दुखां,

(दोळ्याचीं दुखां देकून)

भाउ : आज इतें जालें रुकमीणी भायणी?

रुकमीणी : अंदण विन्दण, दिल्लें मू रे भावा,
खवल्या खातीर मांयों हिणंकिन्ती.
मांयों रे हिणंकिन्ती, नणन्दां शव्दुदिन्तीं.*
सेजार घरचो वायलो, व्हय, व्हय म्हणन्तीं.

(अयकतच भावान थंयच सोनाराक वुलावून वैसयलो आनी सुवर्णाचो खवलो घडयविलो.)

गावां गावंचे शेठी, देरला मुखार पेटी,
सुवर्णाचो खवलो घडवन्तीं.
सुवर्णाचो खवलो, रुपयाची दोरी,
ताक घाण्टिता गोरी रुकमीणी.
ताक चाळ्तां ताक चाळतां,
खवल्या लागलो गूळे.
तांतु देखिला तीळे कुंकुमेचो.

---

*संवन्दिन्तीं. जावांदिन्तीं

# 2. गणपतीचो लाडू

यशोदी सुन्दरी, कृष्णु वायदु* भारी,
करता गो मू रारी सांगता तुका.
अश्शी म्होणु गोपी सांगता येशोदेक,
व्रत करि येक बुद्धि चांगी.

दित्ता गणपति, संकष्टांक गति,
व्रत करि अति भक्ति भावान्.
वायट ते गुण वत्तल्ले ते जाण,
करि तूं पूजन गणेशाचें.

आयकूनि येशोदी गेल्ली ती भितर,
सांगुक लागली, भक्तिभावान्.
मिगेले चेरडाक, बुद्धि, विनायक,
चांगि दी, मोदक दीन तुका.

आयकूनि वचन हासता क्षीकृष्णु,
करनु निश्चयान, लूटि काहीं.
अश्शी म्होणु गेलो संन्तोपु तिका जालो.
गणपतिचो केलो उत्सवूचि.

धन्य धन्य म्होणु, करनु उपवासु.
पूजिता विघ्नेशु येशोदम्बा.
शर्कराचो लाडू बीस आती एकु.
केले ते मोदक निवेद्याक.

दवरले ते हाणु, निमगिता श्रीकृष्णु.
माका दिश्शी भरनु केदाणा लांडू.

---

*लूटि

येशोदी सागता ताका, पूजा जावो पुत्ता,
दीन तुक्का लाडू हातु भारनु.

अश्शी म्होणु येशोदी, भायर ती गेली,
इंगाळो हाडूक, धूप दीपाक.
लाडवाचे लागी कृष्णु तो वैसलो,
ताणे खेलो लाडू सर्वय धेवनु.

मोदांकु तो गिळ्ळो घामाक एक पळ्ळं.
त्या वेळा येशोदी पावली थांगा.
निवेद्याचो लाडू नांय कांय थंय,
कृष्णु सांगता, आवमू, मिज्जे, आयक.

ड़भायर तूं गेली, हजार उंदीर,
आयले हांगा थोर, सत्य सत्य.
तान्तु एकु थोरु विन्दुरु आशिल्लो,
ताजे फाटीर वैसल्लो भयंकरु.

अंगाक सिन्दूरु लायला भयंकरु,
पाशांकुश धरू, कोण गे तो.
हस्तीची सोंडाक, करता वयरि खाल,
मारलिगे किंचाटी भीवनु हांवें.

भीवनु ताळो मुकलो, तानेक दीगं माका.
धरनु हाडीन ताका, लाडू चोरल्याक.
गणपदिचो लाडू घेवनु गेला चोरु,
हांव गुणात्कारु जालो देवा.ड़

'आयकूनी वचन, येशोदी कोपान,
सांगता 'जनार्दनू, तूंचि चोरु.'
यशोदी मांगता ताका 'दाकयिरं तोण्ड,'
मारलें थापट यशोदेन.

कृष्णु सांगता तिका, 'मारुनाका माका,
तोण्ड हांव तुका दाखयीन.'
अश्शी म्होणु कृष्णु दाकयता तें तोण्ड,
पळयलें ब्रह्माण्ड यशोदेन.

भूत गणपति आसाय सर्वय तान्तु,
तिका ते सांगतायी कृष्णु विष्णु.
घेवुनि अवतारु करतल्लो भूद्धारु*
रमा रमण धीरु पूजि ताका.

---

*काडतल्लां भू भारु

# 3. कृष्णलीला

चोयाय यशोदि गायक धार काडता,
खोल्लो घेवन एकु तें चेरडूं रडता,
दूद मागून पिवंचाक आशा काडता,
यशोदी गालाक उम्मो दिता.

धार काळेलें दूद यशोदि दिता,
तेवंय पीवनु चेरडूं दुसरीय रडता,
दूद मेळचे वेळार हासून चोयता,
हासचें तें तोण्ड चोंयल्यार चंद दिसता.

पायांक गागर वाळे पायंजोळं आसा,
कुरटाक भांगराचे एलस आसा,
हाताक वज्रावळीं कंकणं आसाय,
केसां बान्दून मोरा पाक आसा.

हे एक चेरडान रेवं खेली,
आम्मान बान्दून मारुक वड्डी काडली,
तोण्ड विसकळवन बावगून चोंयली,
चोवदय लोक देकून भीति पावली.

वानाचे गाड्याक बान्दून घालो
गाडो घेवन कृष्णु गरगडेवन पळ्ळो
रुकां थाकून दोगं पुरुप आयले
तांकां कृष्णान सदा मोक्षु दिलो.

आयकाय चेरडूं हें कोण म्हणु,
त्रिलोक नाथु तो वालकृष्णु,
अवतारां आयला तो महाविष्णु,
कर्याय नमन ताजें मन दीवनु.

# 4. भोवाळी गाय*

करामती नगरिये, भीमक राया घरीं,
ताथेंचा घरीं येकी भोवाळी गाय.
सुवर्णाचीं सिंगां भोवाळेक, रुपयाचीं गातां,
चरता, चरता, भोवाळेन देखलो येकु वागु.

पंचमुष्टी वागान किंचाट घेतलिगा.

भोवाळी : आगा आगा वागा माजो थानी आसा दुवो,
येकु पानो दीवनु ताका भूख राखावें.

वागु : तण पालो खातल्या गोरवा, इतली इत्या वुद्धी
नाडून वच्चो काण्यो गोरवा, उल्लोवुं नाका.
एकी भास दिवनल्ली भोवाळेन तिन्नीय त्रिभुवनाची
दुसरी भास दिवनल्ली भोवाळेन चन्द्र सूर्याची,
तीसरी भास दिवनल्ली भोवाळेन घरचे दुवियाची.
तिनीय भासो दिवनु भोवाळी चल्लूक लागली.
हांवेतां हांवेतां भोवाळी चलीन्हल्ली घरां
चलता चलता धरणी धर्ले पांय गे भोली
वेंसांव भरले दोळे, वाट विसरल्ली
गोठ्यांत पावन तिणे हांबेंव घातल्ली.
सुरसुरी पीरे पुत्रा दुदाचे घोट.
फायचे दिवस पुत्रा भोगूचे कश्ट.
आले पाले डोंगयारि तण पाल्ले खा रे.

---

*भोली गाय

वाटे उदाक पीवनु पुत्रा घरांसियो रे,
भोवाळी चमकता मुकारि,
दुबो चमकता मागलान,
येता येता म्होणु वागु वाट राखता.

भोवाळी : आगा आगा वागा तूं भोवाळेक खागा,
राख माजे दुबायाक, भासेक येवन्ती.

दुवो : आगा आगा वागा तूं दुवायाक खा गा,
राख माजे भोवाळेक सोड्नु दी गा.

वागु : भोवाळी माजी भयणि,
म्होणु दुबो माजो भाचो
तुमी दोगंय राज्य कराय वना मजारी.



# 5. शोभाने

श्री लक्ष्मी बामणाक बालमुकुन्दाक
जलां भित्तरि मत्स रूप घेतल्याक
वला खातीरी कूर्मु जावनु व्यापिल्याक
नील वर्ण श्री कृष्ण रुकमीणींक
बल करनु आर्ती दाकयाय ... शोभाने (1)

जोडि जोडि तोण्डाचे नाक जालेल्याक
जोडि रूप घेवनु भक्तां राखिल्याक
जोडी रूप घेवनु भूमिरि आयिल्याक
जोडिरी वैसूनु श्री कृष्ण रुकमीणीक
कुंकुम लावनु आर्ती दाकयाय ... शोभाने (2)

चेरडु प्रायेरि भूमी दान मागिल्याक
दीवनु जातरि व्हड रूप घेतल्याक
भीति नातिल्लें मनां मानु राखिल्याक
मानु राख श्री कृष्ण रुकमीणीक
फुलां माळ्नु आरती दाकयाय ... शोभाने (3)

दशरथ रायागेरी जल्मु घेतल्याक
वीस हातांचे दयत्या नाशु केलेल्याक
नाशु केलेले कंसा सासु सोळेल्याक
मेघवर्ण श्री कृष्ण रुकमीणीक
घटि करनु आरतीं दाकयाय ... शोभाने (4)

श्री पुरी शय्यां व्रत पाडु केलेल्याक
केंत्तिल्ले घोड्यार वैंसुनु फेंच मार्त्लेल्याक
आपयले घडियेर येवंचे कृष्ण रुकमीणीक
आपण इपण मूर्ति श्री वीर वेंकटाक
तुपां बुडोवनु आरती दाकयाय ... शोभाने (5)

गोवाळेलें दूद लोणी चोरलेल्याक
गोपस्त्रियांचे मद्दें नाचु केलेल्याक
कदंबा शाखोपरी मय्नु (चणु) वैंसल्याक
गोपस्त्रियांचे मुखार मुरळी वाजिल्याक
वाजप सयत आरती दाकयाय ... शोभाने (6)

पांचय पाण्डवांक रक्षण केलेल्याक
पांचाली द्रौपतीचो मानु राखिल्याक
पांच वरसांचे घ्रुवा पदवी दिल्लेल्याक
पांचजन्य शंखु चक्र आशिल्याक
पांच वातीनी आरती दाकयाय ... शोभाने (7)

वज्र खांभ्यान्तु थाकून प्रत्यक्ष जालेल्याक
दैत्य हिरण्याचो नाशु केलेल्याक
भक्त प्रल्हादाक रक्षण केलेल्याक
श्री वरलक्ष्मी नरसिंह मूर्तीक
भारी संतोपान आरती दाकयाय ... शोभाने (8)

आकाश वयरि थाकून उड्डि घेतल्याक
आकाश राया धूवेंक व्हारडीक केलेल्याक
शेपाचला वयरि वासु केलेल्याक
हातु सोणात्तिले श्री वीर वेंकटाक
बल करनु आरती दाकयाय ... शोभाने (9)

अखिलांड कोटि ब्रह्माण्ड नायकाक
कोटि सूर्य प्रकाशु आशिल्याक
सर्वय भक्त जनां रक्षण केलेल्याक
कीर्ति पाविल्या श्री वीर वेंकटाक
वाजप सयत आरती दाकयाय ... शोभाने (10)

मोहाचे कारणान बुद्धु जालेल्याक
कल्कीरूप घेवनु दुष्टां मारलेल्याक
धर्म समस्तय परिपालन केलेल्याक
कीर्ति पाविल्या श्रीनिवास मूर्तिक
शिंगार करनु आरती दाकयाय ... शोभाने (11)

---

# 6. गोवूळ

## I

परम भू मण्डळ पुर मद्दें गौड सारस्वत ब्राह्मणांतु,
जनन जालें परत्या संसार सुखान्तु,
खेळुका म्हणु परगोत्रा चेली घेता तूं,
हाडतरि तान्तु,
निरत सुख सन्तोषु पावंचाक,
सरसमान गृहस्थ धुवेगेरि,
व्हराण वचुनु लग्न जावनु,
घर भरणिके समयारि भयणिन,
धरलें कवड, सांगतां आयक. (1)

भयणि : वेदमूर्तीक आनी साधु सर्वांक घेवनु,
सीधा तूं वता भितरी,
वचाक सोण्णा, वादु करतां हांव तुचेरि,
त्या खातीर तूंवंय खेदु पावनाका मिजेरि,
सर्वान्तु भारी आदरारि चलका म्हणु
हेदुनातिल्लें वचाक तुका वागिलारि हांव गवलीं,
इत्या म्होणु मांगतरि दया करि मिजेरि,
हे दयावन्ता सांग सन्ता. (2)

भाऊ : उत्तम भयणि तुका इतें जावुंका म्होणु
सत्य तूं सांग माका,
निजेरी भारी अत्यन्त प्रीति तुका,
सवारु वेळु इत्या तूं करता, आका,

माथ्या भांगार मुकुट केतक,
सूतार गान्तिल्ले फूल गोण्डे
उत्तम मोगाळ समेत होव,
दिनां म्हळेलें खरें उत्तर, सत्य समझूनु,
सोडी कबड, सागतां आयक. (3)
वेंडि, खुण्टी, क्रिरा कुण्डळ,
मुगुडी कानां भांगरा मर्ती,
मोरा कळ्सु होवय हाडतां,
अतिकट्ु पुतळं सोरु, तावजळें घेतां,
मंगळ सूत्र सोराची बांधि करयतां,
काय ओटु हाडतां सोरु, भांगरा चौंको गळ्वाजु,
भारि चौंकुळ कडक कंकण चुडामणि करोवन दीन.
सोडी कवड, सांगतां आयक. (4)

भयणि : सगट भांगार आम्मान दिलें माका,
ड़दीड़ म्हणु सांगलें वे तुका,
भांगराची शुद्धि काणु उलयता ना वे ?
तुवें सांगचें मानु राखूनु चलका म्हणु.
सान उत्तर मागलें तुजे लागी.
दितां ना जाल्यार दिना म्हळ्यारी
धरलें कवड सांगतां आयक. (5)

आणा तूं सर्वदा भणाचो नागू मिजो,
पुण्यान दिल्लो तूवें.
भांगराची शुद्धि काणु उलयता ना वे ?

तूं वें मांगचें. हें वें. मांनु राखून चलकाम्हणु
सान उत्रर मागतां तुजे लागी
सोडीन कवड, सांगतां आयक. (6)

इतें गे होनींयें तूं माथें वावगोवन वैंमल्या.
आतां इतें सांगतां तें सांगचें
ड़तुजेर जालेल पुत्रीक तूं दिता वे ?ड़
ड़दितांड़ म्हणता गे आतां मोडतां हें कवड
तुगेलें उतर सत्य मानून, हांवं
धरलेलें कवड सोडतां, आयक. (7)

---

# 7. गोवूळ

## II

नन्दगोकुलवासु, देवाले पूताक, भीष्मरायले धुवेक,
मूरतु करनु केली व्हड व्हारडीकं,
आदरु केलो महागणपतीक,
नार्लु दवरनु, देवकायरें उडदा मूर्तु,
लग्न, कन्यादान देड्डो, चवतन्दन जावनु येतना,
घर भरौणी जात समयारि,
राबली बागलारी व्हरता भयणि ... शोभाने (1)

भाऊ : भयणी, तूं वागलारी रावली इत्या खातिर
सांग तूं व्होगी माका,
सांगना जाल्यार भारी अबरगति येता,
राविले जनांक सगटांक नींद येता
समय चुकता; घर भरौणि व्होगी करनु
व्हकलेक नांव आपोवनु, फोवा चोळके सगटां वांटुनु
तोण्ड गोड करया बैसुनु,
उटा, बागलावेरि चांगपणारि ... शोभाने (2)

भयणि : अण्णा, मिगंले मनां दिसलें गोत्तु नावं तुका,
सांगचा गेल्यार लज्जा जाता माका,
व्होनिये मनां कोपु सावारु जाता,
उलयलें आयकता, तिगंले मनां कोपु नातिल्लं.

माका एक उत्तर सांगल्यारि,
आतां हांव वागिल सोणु रावतां, म्हांणु
सांगचें उत्तर, मत्य सांगुनु मोडीन कवड ... शोभाने (3)
वागिलारि रावल्यां भारी भाग्य भोगचाक,
भास घेवनु सोयरीक करचाक,
नेक मार्गाची बुद्धि शिकोवंचाक,
वृद्धि जावंचाक,
एक आम्मा पोटां थाकुनु आयलीं आमी भाउ भयणि,
आनी जावंका वेयु वेणी,
म्हळ्या खातिरि राबल्यां वागिलारी;
मुकुन्दमुरारि, दयाकारी ... शोभाने (4)

भावज : भावान भयणीन उलयतना, माका काय उलोवंचें लागना,
नणंद भावजेक घटपण येना, हांव कोपना,
तुमगेल्ली दोगांलीय खुशी केल्यार चिंतना,
भारी खुशालि, आमी येतना,
फकने वागिलारि रावली,
तुका  हांव सांगूनु आतां,
भायर वागिलारि करयतां,
वागिलार रावल्नें हे मुवद्र, ... शोभाने (5)

भाऊ : आगो हे सायविणी, धाकुले भयणि,
तूं दाक्षिण्य नातिल्ली, तुका नानातरार भाग्य भोगून रावचाक,
तुगेले सेवक, दस्य, जोरा, गाय्यो सर्वय
लेक नातिल्ले दुद्दाचि म्हश्यो,
खांडे, कठर आयधुवां मक वर.

वेजार नातिल्लें केदनाय रावचाक,
सर्वय सगटय दितां, सोडिकवड ... शोभाने (6)

भयणि : अण्णाले वण्णाले नंगाचे आशेन,
बागलारि रावल्यां, न्हय;
निभगिल्ले उतराक चवाब सांगल्ली,
उतरां कानांत भरलेलीं,
हांवें सांगचें, आभगेली सोयरिक मुकारि,
दुखनातिल्लें राबचे खातिरि,
मिगेले मनांतुलें हावें सांगचें ... शोभाने (7)

अपूर्ण

---

# 8

नणमन्दे नणमन्दे करट्यान्तु चुन्नो
माय्यों मेल्लेनांय म्हणु रडतायि सुन्नो.
नणमन्दे नणमन्दे वासिवेलो कीरु,
बायलेन सिकयलो बामूणु वीरु.
नणमन्दे नणमन्दे वासिवेली फागिली,
वामणान मारलो म्हणु कापडान्तु हागिली.
नणमन्दे नणमन्दे वोग्यारि वोगो,
उदकाचे निवान वांयकडे योगो.
नणमन्दे नणमन्दे केळीचे कापा,
उदाक नातिल्लें वायलांचे पापा.

---

# 9. गोश्रीपुराधीश श्री वेंकटपतिची प्रतिप्ष्ठा

श्री वेंकटपतिचीं चरणां वन्दुनि,
गातोमी तवयाची गाथा,
त्याची लीला अघनाशिनी,
भक्तिन तीवय आयकुनि.

नारदादि मुनि सर्वय मेळुनि,
लीलागावुनि, नृत्तन करुनि,
तृप्तिन हो नित्याची मनि,
ऐसे वेंकटपतिची करनी,
गावुनि थकला सहस्रफणी. (1)

ब्रह्माण्डाचो नायकु तो हरि,
शंकु चत्रधरि, लक्ष्मी हृदयधरि,
भक्तांचा तो कैवारी,
हो तो पूर्वी गिरीवर्री (2)

विजयनगरिचा राजा नरहरि,
नित्यगिरीवर्री, दर्शनकर्री,
प्रसन्न जाला त्यासि हरि. (3)

सोडुनि तो गिरि, अघसंहारी,
वासुकरी विद्यानगर्री,
वहु आनंदुनि आलय निर्मुनि,
सिंहासन हरि पूजूनि,
प्रसन्न जाला भूपमनीं,
मग, भूपहि गेला हरिसदनीं. (4)

तत् वंधूनि कुकर्म करुनि,
कलह माण्डु नि वैरि मिळ्वुनि.

पेटवीला नगरीं अग्नि,
अर्चक सपनीं हरिने सांगुनि,
प्रतिमा टकली कूपवनीं. (5)

कुंभकोण विजयेन्द्र यतीनि,
पाहिलि प्रतिमा ती स्वप्नी,
चिन्ता जाली त्यांची मनीं,
उदयीं आला कालफणी. (6)

फणिला पाहुनि स्वप्न चिन्तुनि,
हरिला स्मरुनी त्या मागोनि,
यतिहि गेला धोरवनीं
पाहुनि विहरि उतरुनि मूर्ति,
घेवुनि आले निजसदनी. (7)

अति भक्तीन पूजिलि मूर्ति,
प्रसन्न जाली यतिवर ती,
पसरिली यतिची बहुकीर्ति,
सहज मिळली संपत्ति. (8)

फिरत फिरत ते बहुकालानी,
मूर्ती साठीं घेवुनि नगरीं,
गोश्री आलें पूज्य यति,
रम्यालय वेंकटपति ठेवुनि,
अर्चनकरितो क्षेत्रपति. (9)

निवेद्यार्चन ब्राह्मण भोजन,
नूतन गायन करुनि जनं,
तन मन त्या हरि अर्पण,
निशि दिन करितो हरि भजन. (10)

सुप्रसन्न मन वृद्ध महाजन,
मिळ्वुनि यतीन बहुधन घेवुनि,
प्रतिमा मांगली म्हाळ्पैन,
फिरवुनि जनमन मूर्ति घेवुनि,
गेले यति तेथून. (11)

जनमनहारी गिरिजाधारी,
अघसंहारी कंसारी,
मारगीं यतिला भयंकरी,
फिरविली त्याची नाव घरीं. (12)

कोटिलिंगपुरि केली सवारी,
प्रश्न विचारी, निसिंहारी,
फिरवुनि आले गोश्री पुरीं
सिरभर कनका द्रव्य घेवुनि,
देदिल्ली यतीन जनां हरि. (13)

वहुजन मिळ्वुनि द्रव्य खर्चुनि,
कृष्ण शिवालय बान्धोनि,
ताम्र मारिलें त्यावरींनि
रुप्या लाविले सिंहासनीं. (14)

त्यावरि भक्त्या म्हळ्पैन,
वेंकटपतिला प्रतिष्ठ करुनि,
तोपविले ते वहुजनमन,
ब्राह्मण भोजन वहुदानान,
उत्सवु जाला नंदान. (15)

इति ही वेंकटपतिची कथनी,
विप्रमुखान आयकूनि,
तनमन घेवुनि सद्सदन,
निर्मिलें हें वसुदेवान,
बुद्धिहीन त्या वसुदेवाला
आयुर्धन सन्तान देवुनि
तृप्ति करावे श्री हरिन. (16)

---

# 10. इन्द्रधनुप

आकाशांतलीं रंगं सांगया
इन्द्रधनुप्याचीं, मुलगा, आकाशान्तलीं रंग सांगया.
मुख्य मिश्रते मिळुनि आसाति,
सातरंग साचे, मुलगा, ... आकाशांतलीं. (1)

जांवुळ, निळस्मानि, हिरवा,
पिवळा, नारंगी, लाला
आकाशा मद्दें अनुक्रमाणे
रंग सात हे पाहला, मुलगा, ... आकाशांतलीं (2)

सात रंग हे मिळुनि पाण्डरी,
होत असेरे चन्द लोपता
याचा होता काळ रंग त्याला मान
सूर्यप्रकाशा मद्दें सात हे रंग, मुलगा, ... आकाशांतलीं (3)

सर्वदि सति विलोर हातीं,
घेवुनि बाळ अनुभव घेतिची
जगदीशाची अगटित करनी काय तुला
मांगूं तिममजाया हात जोडुनि वुद्धिन भा मागूं मुलगा ... आकाशांतलीं (4)

---

## 11

# कोंकणाचे ब्राह्मणा तोपी साजना

एक सेर कुंकुम ताका तीळ्या पावना,
एक सेर काजल ताका दोळ्या पावना,
एक सोदनो तेल ताका माथ्या पावना,
कोंकणाचे ब्राह्मणा तोपी साजना ... (1)

एक अडक फडचान ताका दाडिये पावना,
एक कोल्लें फफळ ताका खावुं पावना,
एक मडकी सीत ताका बरी पावना,
कोंकणाचे ब्राह्मणा तोपी साजना. (2)

---

## 12

# हांव भारी वायटु खंय सायबा

माका फोइं म्हणतलो कीडे पणु मरतलो.
वोंड कुमल मूण्यावरी हाड नीट रावतलो.

---

# भक्ति गीतां

## 1. दशावतार

| वेदोद्धर वर मीन शरीरा, | मामव | गोविन्दा | जय | जय | मामव | गोविन्दा | (1) |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| धरणीधर जय कूर्मशरीरा | ” | ” | ” | ” | ” | ” | (2) |
| भूमि विदारण सूकर रूपा | ” | ” | ” | ” | ” | ” | (3) |
| दैत्य हिरण्यक नरहरि रूपा | ” | ” | ” | ” | ” | ” | (4) |
| वलिवन्धन जन वामन रूपा | ” | ” | ” | ” | ” | ” | (5) |
| क्षत्रिय कुलान्तक भार्गव रामा | ” | ” | ” | ” | ” | ” | (6) |
| रावण मर्दन दशरथ रामा | ” | ” | ” | ” | ” | ” | (7) |
| कंसकुलान्तक नन्द कुमारा | ” | ” | ” | ” | ” | ” | (8) |
| भावदुरान्तक वौद्ध शरीरा | ” | ” | ” | ” | ” | ” | (9) |
| दुप्ट कुलान्तक कल्कि शरीरा | ” | ” | ” | ” | ” | ” | (10) |

# 2. वायुदेवाची स्तुति

श्री वुयुदेवा, करि रामाची सेवा

रामाची सेवा करि, सीतेची सुधी धरि,

आनन्द मुद्रिकावेरी, श्री वायुदेवा ... (1)

मुद्रिका बहुलक्षण, रामनाम उच्चारण

घालें लंकेरि उडन, श्री वायुदोवा ... (2)

लंके धुंडाळु करि अशोके वनांमज्जारि

देकिल्ली सीता सुन्दरी, श्री वायुदेवा ... (3)

सीते चरणा लागला, आगवन्तु सांगविला

चूडामणी घेतल्ला, श्री वायुदेवा ... (4)

ब्रह्मपासां पडला, रामनाम पासु सोडिला

वालाचेर अग्नि लाविला, श्री वायुदेवा ... (5)

लंका लासू लागल्या, क्षीरसागरां गेला

अग्नि थंडाळु केला, श्री वायुदेवा ... (6)

मागा परतूनी आला, रामनाम चरणा लागला

चूडामणी दीदल्ला, श्री वायुदेवा ... (7)

नेणारें हें बालक, खेळता तिन्नीय लोक

विश्वस्वरूप एक, श्री वायुदेवा ... (8)

सन्यासी ब्रह्मचारी माते उद्धारु करि

वेंकटरमण उपकारी, श्री वायुदेवा ... (9)

---

# 3. सीता कल्याण

आयक रे तूं पुत्रा सांगतां तुका कथा,
सर्वय लोकां व्यथा दूर करची. (1)
सूर्यवंश रायु जाला दशरथु.
अज रायालो वंशु पूतु ऐश्वर्यवन्तु. (2)
ताका तेगयं वायलो, कौसल्या, कैकेयि आनी सुमित्रा
भारी रूपलावन्तीं. (3)
तेगयं वायलांक जालीनात बालकं,
अशिम्हणु रायाक जाली व्हड चिन्ता. (4)
चिन्तेन रायान पुरोहितां आपयले
तांचे लागी निमगिलें करका किते. (5)
पुरोहितांनि सांगलें जज्ञु एक करका
दिता नारायणु तुका पुत्रु. (6)
तशी यज्ञु केलो देवु प्रत्यक्ष जालो
आनी राया दिलो आयदन भरुन पायसु. (7)
रायान तो पायसु तेगयं वायलां दिल्लो
तांकां गर्भु धरलो णव मास. (8)
कौसल्ये गर्भांत जाला नारायणु
सर्वय गुण पूर्ण रामचन्द्रु. (9)
कैकेये गर्भान्तु जाला भरतु
रामालो भक्तिरथु गुणवन्तु. (10)
सुमित्रे गर्भांतु जाला लक्षिमोणु
आनी शत्रुघनु जवळान्तु. (11)
चौगयं वालकांक विद्या बुद्धि भरली
रायान तांकां केली चोवल मूंजी. (12)

कौशिक मुनीन राम लक्षिमणांक
यज्ञ रक्षणांक अशीं म्हणु. (13)
आपोवन व्हरन ताटके मारोवनु
केलो यज्ञ पूर्णु श्री रामान. (14)
तशी मुकार सरनु वतना वाटेरी,
पायगेले शिलेरी श्री रामाचे. (15)
अहल्या ती देवी शिलेसून उटायली
शापमुक्त जाली आयक बाळा. (16)
जनक म्हणु रायु तागेली धूव सीता
करका तिजी चिन्ता लक्ष्मी देवीन. (17)
तिजे विवाहाक चापासून केलें अर्पण,
कोण करता खण्डन धनुष्याचें. (18)
ताका दिता पुत्री करका तिजी मित्री
हें उतर करतीं अशी म्हणु. (19)
त्या वेळार सभेर राम लक्षिमणांक
घेवुनु आयलो तांकां तो कौशीकु. (20)
त्या वेळार सभेरी रायाचे मुकारी
रामाना केले कुटके धनुष्याचे (21)
क्षणाचे भितरी अर्पण प्रमाणी
रामा गळ्या सीतेन घाली माळ मगर्यांची. (22)
रामाले भावांक सीतेले भयण्यांक
दीवनु जाली व्हारडीक चौगांकय. (23)
अशल्ली ही कथा आयकिल्ले मात्रान
दिवो तुंका कल्याण रामचन्द्रु. (24)
पूर्ण केली कथा सीते कल्याणाची
सर्वय लोकां व्यथा दूर करची. (25)

---

## 4. सीता सुधी

हनुमन्तु गेल्लो सीते सुधी
रामचन्द्रा दिल्ली मुद्दी
समुद्र उल्लंघन कोरनु
हनुमन्तु पावलो लंकेरि. (1)

घेता सिते सुधी
देकिली मण्डोदरी
पावला अशोकवृक्षारि.
बेसूनु चोयता चारि दिकारि. (2)

रामालो दूतु वेयसला रुक्कारि
यो सामकी माजे मुखारि
पांय पोणु रावला मुखारि
स्तुति करता भक्तीरि. (3)

सिता उलयता दूता लागि
दिरवांकुरा मूळ मुखारि
तोडोवु इतें व्होरका धारारि
मुद्रिका दवरली सीते हातारि. (4)

रामान इतें सांगलें तुल्यागि
चूडामणि दवरली हातारि
तोडोव नातिल्लें वचून धारारि
विवर सांगूं रामा लागि. (5)

लागली आवसू भूक माका
भूमिरि पळ्ळेलें फळ खावुंक
मर्कट स्वभावु काइूं नाका
आयल्लो विवरु कोळेबुनाका. (6)

वनांतु बळ्यलो दूताक
नाशु हाळ्ळो वनांक
रावणान बळ्यलें सैन्याक
धोरनु हाड्याय वानराक. (7)

बाल्लान केल्यां सिंहासन
बयसल्ला रावणाचे समान
सीते हाळ्ळेले तुगेलें जयपण
रामा पासून तुका मरण. (8)

नाशु हाड्याय वानराक
ना सम्मत विभीपणांक
न्यायु ना वानरा मारुक
उनत्व हाड्याय बालाक. (9)

उर्जो लायलो बालाक
नाशु हाळ्ळो लंकेक
रक्षण केल्ले विभीपणांक
रामचन्द्रालें भक्ताक. (10)

समुद्रान्त बुडयलों बाल
समुद्रांतु रादिलें पाळ
हनुमन्तान वाडवयलें बाल (11)

जात्रा सांगूनु भायर सरलो
समुद्र उल्लंघन केल्लो
दिकली स्वामी सीता मायेक
तोडोवु नातिल्लें वचून हाड्याय. (12)

वानर समेत घाला सेतु.
रामान केला रावणा वधु
सीते हाळ्ळेलो संतोपु
रामा केल्ला पट्टाभिपेकु. (13)

# रवेळ गीतां (Kindergarten Songs)

**1**

धल पुता धल, धल,
धलतां धलतां बावगलो, बावगलो
केकीं खावंचाक लागलो, लागलो
केकीं जालीं गोडं गोडं
पुता दिलीं देडं देडं
आके दिल्लो कुटको, कुटको
कोणा फाटीर डुमको ?

**2**

आपोनंदो, थापोनंदो
तुपांतुली रोंटी खायाय,
ओ नंदो थो नंदो खांद्यार्यो
गजमज मालिका, मालिका,
पीट वाटून कालोव्या, कालोव्या
पीटां पळे बरोड्डू बरोड्डू
म्हान्ताराये करड्डूं करड्डू
म्हांतारी गेली रानां, रानां
पूतु गेलो कानां कानां
म्हांताराये खाडा उजो लागलो, लागलो,
आमकां वचून वाड्वोव्या, वाड्वोव्या.

**3**

आटिकै मिटिके नम नम कालिंगा,
भासकर माजरा, शिवण्याचे काळा,
माद्दाळाचें माद्दाळें कोणा फाटीर डुमको?

**4**

आको लिको, साली पिको, चिंचाम्हणा दीकदिको,
आजी म्हणा, फायी म्हणा, दाव्या दोळ्याक मीट,
उजव्या दोळ्याक रचंदन मोद्दून काळ्यार दाकोन दितां.

## पाळणे गीतां (Lullabies)

# 1. राम जो जो जो रामा

(रागः आनन्द भैरवि)

राम जो जो जो रामा
    आनन्दा धन जो जो जो रामा. राम...

राम जो जो रविकुल तिलका
    राम जो जो कुटिलक अलका. राम...

राम जो जो दशरथ वाला
    राम जो जो दशमुख काला. राम...

राम जो जो रवि शशि नयना
    राम जो जो फणिवर शयना. राम...

राम जो जो मानुप वेपा
    राम जो जो मंजुळ भूपा. राम...

राम जो जो पंकज नेत्रा
    राम जा जो शंकर मित्रा. राम...

राम जो जो निर्गुण चित्रा
    राम जो जो सद्गुण पात्रा. राम...

राम जो जो त्यागराजा
    राम जो जो भक्त समाजा. राम...

## 2. बाळा जो जो रे

(रागः आनन्द भैरवि)

बाळा जो जो रे

कुल भुषण

दशरथ नन्दन

निद्रा करि बाळा

मन मोहन

रामु लक्षिमण. बाळा...

पालोणें लांबविलें

अयोध्येशीं

दशरथाचें वंशी

पुत्रु जन्मला

ऋषिकेशीं

कौशल्येचें कुशी. बाळा...

रत्न जडीत

वालक

झळतें आमलीक

वरतीं पेटल्लें

कुलदीपक

त्रिभुवन नायक. बाळा...

येवूनी कौसल्या
सुन्दरी
धरुनी ज्ञान उदरीं
पुष्प वरसंती
सुरवरीं
गरजती जयजयकारीं. बाळ...

विश्व व्यापक
रघुराय
निद्राकारि बा सखाया
तुजेवरि करवटीं.
धरणीया
सांडत अपुले काया. बाळ...

येवुनी वसिष्ठ
सत्वर
सांगता जल्मान्तर
रामु परब्रह्म
संसार
सातवें अवतार. बाळ...

यागु राखुनियां
अवतार
मारिले निशाचर
जातीं सीतेचा
स्वयंवर
उंद्धरीं गौतम दारा. बाळ...

परणीला जानकी
सुरूप
भंगुनीया शिवचाप
रावणु लज्जित
महाकोप
नाम फणलें चोप. वाळ...

सिन्धु जल राशीं
नवलीला
नावें तरतीं शीला
त्यावेरि उतरुनी
दयाळ
अतिशीं वानर मेळ. वाळ...

समूल मर्दनिया
रावण
स्थापिले विभीपण
देवां सोडविले
संपूर्ण
आनन्दलें त्रिभुवन. वाळ...

रामू बालक
भूलोक
भक्तांक अधीन
दास विठ्ळे
आयकयला
पालोणे गायन. वाळ...

---

# 3. जो करीन बाळाक

(रागः आनन्दभैरवि)

जोकरीन बाळक
    नींद आयली दोळ्यांक
जूं काडीन पाळ्ण्याक
    गोरे बाळ्या.                    जो करीन...

गोरे बाळ्या अळिये
    घर बान्दू माळिये
घराचा सावळे
    पाळणे बान्दू.                    जो करीन...

पाळ्ण्याचे वयरी
    वान्दिला शिंगारू
सुखी गोविन्दू
    निद्राकरी.                    जो करीन...

जोय पुता जोय
    जोय करूँ तुका
पाळ्णें घालूं
    रुका चंदनाचें.                    जो करीन...

चंदनाचें रुका
    सुवर्ण्याच्यो दोरीयो
जूं काडताय राणियो
    आमचें पुता मावुसीयो.                    जो करीन...

शिरपुटाची न्हाणी
    न्हाणियां न्हाणोव्या
एक उत्तर जाणोव्या
    आमगेल पूताले मावळ्याक.                    जो करीन...

# 4. जो जो जो रामा

(रागः नीलांबरी)

जो जो जो रामा

दशरथाचे पुत्रा

जो जो जो रामा,

अवतारु घेतला अयोध्यांतु

मुख चोयलो गोड लावनु

रायु दिता दान धर्मु

मनांतु संतोषु पावनु

चेरडा काणु न्हाणोवन हाडका

धूपा परमळु घालका

नवरत्न सिंगारु करका. ... जो जो जो रामा

पतिव्रता बायलो मुखारि सरनु

दवर्याय रामा पाळ्यां काणु

वसिष्ठ बायल मुखारि सरली

अनसूया येवनु पावली

रामा काळ्ळ हातांतु

स्तुति करता मनांतु

दशरथु धन्यवन्तु

सफल जालो आमचो जल्मु ... जो जो जो रामा

सौभाग्य, दीर्घायुष्य

जय जा तूं सर्वांतु

दवरतां तुका पाळ्यांतु

रामा दवरलो पाळ्यांतु

कौसल्या दवरता हातांतु

संतोपु पावंता मनांतु. ... जो जो जो रामा

पाळ्यां दवरलो रामाक

जूं काडताय पाळ्याक

फोवु दिताय चेरडुवांक

जो जो जो रामा.

---

# 5. जो बाळा जो

(राग: आनंदभैरवी)

जो बाळ जो
    जो पढयंती माता
आली सांडुनि
    निद्राकरि सघुनाथा.    जो बाळ...
देवकी प्रसवित जाली
    मध्याए रात्री
रोहीणि नक्षत्र
    अप्टमी तिथी.    जो बाळ...
प्रकदु स्वामी
    कृष्णु म्हणंती
कंसा काळु आला
    परशंसंती.    जो बाळ...
पाळणे घडवीलें
    रत्न खचीत
गज पडंच पढयंतीं
    ओपा पायादंती.    जो बाळ...
वज्रांचो दोरीयो
    खचींले इन्द्रनील
चन्द्र सूर्यां दोगंय
    सरसें आकंठ.    जो बाळ...
पाळणे बांदीलें
    वसुदेवा थंयीं
पल्लण पडलेलें
    श्री कृष्ण राया.    जो बाळ...
सखियो मेळनल्यो
    वंशी उभेरावंती
आशिर्वचन याळ
    पाळण्या ठेवंती.    जो वाळ...

येय्यायवो नारीयो
मंगल गायंती
पोशे पोशे फोवाशे
हे वालकां देयंती. जो वाळ...

उदवे आयकूनी
आयली पूतना
विकट रूपा
भरुनी स्तनानां. जो वाळ...

तीं ताणीं शोशिल्लीं
सोडीरे वाळ
वरदान दीदल्लें
मधुसूदनान. जो वाळ...

कंसाचे निर्वाशीं
अकाडे ओडंती
काकासुरु वकासुरु
चरणा लावंती. जो वाळ...

तो खलु
शंखासुराले विजयान्तु
काळीय मर्दन केल्लें
विप यमुनान्तु. जो वाळ...

सात वर्षांचो वाळु
उपनल्ला गोकुलांतु
पाय पदम
कंठीं वज्राची माळ. जो वाळ...

देवी देवकीचो वाळु
उपनल्ला गोकुलान्तु
नांव हांचें स्वामी
रुक्मिणी कान्तु. जो वाळ...

---

# 6. जोय करीन बाळाक

(रागः आनन्दभैरवि)

र करीन बाळाक
    नींद आयली दोळ्यांक
काडान पाळण्याक
    गोरं बाळया.                जोय करीन...

र बाळया ओंळ्यें
    धर वान्दूं माळ्यें
ाचे मावळ
    पाळणं वांदूं.                जोय करीन...

ळण्याच वयरी
    वांदल्ला शिंगांरू
गां गांवदू
    निद्राकरी.                जोय करीन...

# 7. जोय पुता जोय

(रागः आनंदभैरवी)

जोय पुता, जोय
    जोय करूं तुका
पाळणे घालूं रुका
    चन्दनाचे. जोय पुता...

चंदनाचे रुका
    सुवर्णाच्यो दोरीयो
जूं काडताय राणीयो
    आमचे पुता मावसीयो. जोय पुता..

शिरपुटाची न्हाणी
    न्हाणियां न्हाणोव्या
एक उत्तर जाणोव्या
    आमगेल पुताले मावळ्याक.

---

## 8. जो जो देवकी देवीय कंदा

(रागः पुन्नगवराळी)

जो जो देवकी देवीय कंदा
जो जो गोवर्धन धारी मुकुन्दा
जो जो मुनिजन हृदयानंदा
जो जो कृष्ण बालमुकुंदा, जो जो.

विचित्र वीराश्रीय खंवव जोडी
हृदयादिन्तिल दिव्य तोट्टिलं तूकी
श्रुतमाला भक्तिय नेमन माडी
पद्मनाभ दिव्य नामवुं पाडी, जो जो.

केशव नारायण चक्रधारी
माधव गोविन्द विष्णु मुरारी
मदन जनक मधुसूदन शौरी
अदीति विक्रम दनुजसंहारी, जो जो.

चतुर वामन श्रीधर ऋपीकेशा
पद्मनाभ दामोदर लक्ष्मीवासा
उदधि शयन, संघर्पण भवनाशा
सुगुण श्री वासुदेव सर्वेशा, जो जो.

अचुत जनार्दन विश्व पुरुषा
मत्स्य अवतारी उपेंद्र मोहना
सच्चिदानन्दा श्री हरि सुप्रसन्ना
अचुत श्रीकृष्ण पक्षी वाहना, जो जो.

जगदादी वन्द्य प्रद्युम्न अनिरुद्धा
निगम वन्दित पुरुषोत्तम सद्या
नगधर अधोक्षज शकटे निवासा
सगुण श्री नरसिंह हिरण्या नागेशा, जो जो.

कविराज वरदा कारुण्य संपन्ना
हरि सर्वोत्तमा निन्दुति लाविल्या
हरणे संपन्न स्याळी वेगन्ना
परमात्मा श्रीकृष्णा जगत्य मोहना, जो जो.

---

# रघुनाथ कृष्ण राव (आर. के. राव)



जल्म : ४ जुलाई १९१४ वर्सा

जल्म थळ : तृप्पूणित्तुरा, कोची, केरळ

शिक्षणी पदव्यो :

१. राष्टभाषा विशारद (दक्षिण भारत हिन्दी प्रचार सभा, मद्रास)

२. एम.ए. (हिन्दी), मद्रास विश्वविद्यालय, मद्रास

३. वावर धंदे

अ) १९३९ - १९४७ - हिन्दी प्रचारक, मट्टांचेरी, कोची

आ) १९४७ - १९७५ - हिन्दी प्रोफसर, संत आलबर्टस, काळेज, एरणाकुलम, केरळ

इ) हिन्दी प्रोफसर, विद्यानिकेतन, पारलल कोलज, एरणाकुळ्म : १९७७ - १९८७

मलयाळ्म साहित्याचे नामनेचे कादंबरीकार तकप़ी शिवशंकर पिळ्ळै, हांची, कादंबरी 'रण्डिडङ्ङ्पी' हाचें 'दोन दङ्गाळी भात' नावान भाशान्तर केलां. हाका केन्द्र साहिय अकादमीचो पुरस्कार प्रात्पकेला. नामनेचे कैरळी कथा साहित्यकार वैकम मुहम्मद बशीर हांचे वरपावळीचे कोंकणी भाशांतर करन गोयचे म्हयनाळे 'जाग' पत्रिकेर क्रमान उजवाडायता.

कोकणीचे प्रचारा रवातीर 'कोंकणी भाषा संस्थान' स्थापन करन 'कोंकणी स्वंय शिक्षक' (हिन्दी, मलयाळ्म आनी अंग्रेजी, अशें तीन माध्यमांत प्रकाशन केल्यांत. कोंकणी व्याकरण, कोंकणी उतरावळ, भुरग्यांक कोंकणी वाचून, बर्‌वन शिकपा कोंकणी प्रायमर ही पुस्तकांय छापून उजवाडा हाडल्यांत. हालीच तमीळ कवी तिरुवळ्ळुवर, हांचे 'तिरुक्कुरळ' काव्याचें गद्य अणकार करन प्रकाशन केला.

सुटके झुजारी, म्हण केरळ राज्या चें आनी भारत सरकाराचें 'स्वतंत्रता सैनिक सम्मान पेन्शन' घेता. ताम्रपत्रय फावो केलां.